.फकत एका प्रदेशांतली भास वाडली म्हण कोंकणीची उदरगत जाली अशें सांगपाक जायना. चारुय प्रदेशांतली भास एक सारखी विकसीत जावपाक जाय. हे खातीर आमी फाव सारकी तडजोड करपाक तयारी दाखोवपाचो वेळ आयला. प्रादेशीकताय आनी वेगळेपणाची मानसीकताय पयस करुंक जाय. एकामेकांत आपलेपणाची भावना वाडोवपाक जाय.

**कोंकणीची लिपी**

कोंकणी आर्य गोत्राची भास. आर्य कुटुंबांतल्यो सगळ्यो भासो बरोवपा खातीर देवनागरी लिपी वापरतात. सभावीकपणान कोंकणीची लिपी देवनागरीच. एके भाशेक एका परस चड लिपी वापरल्यार समस्या निर्माण जाता. वेगवेळे लिपींतलें साहित्य एकठांय येवन मुख्य धारेंत मेळना, भाशेच्या विकासाक अडचण येता, हें आमी समजून घेवंक जाय. कोंकणी भाशेंचें आनी साहित्यीक प्रगतीचें हीत लक्षांत दवरून लिपीचो प्रस्न सोडावपाक सगळ्या विभागांनी प्रयत्न करूंक जाय.

**मुळावें शिक्षण आवयभाशेंतल्यान**

मायभाशेंतल्यान मुळावें शिक्षण घेवप दर एका नागरिकाचो जल्माचो हक्क आनी हे पद्दतीचें शिक्षण घेवपा खातीर दर एका कोंकणी भुरग्यांक सुविधा मेळूंक जाय. आज इंग्लिश भाशेचो प्रभाव पळोवन खूब लोक ते भाशे लागीं वतात. हें सभावीक, पूण ताका लागून ते आपली भास आनी संस्कृती कडसून पयस वतात. मायभाशेंतलें शिक्षण, संस्कृतीचो अभिमान वाडयलो. मुळावें शिक्षण मांयभाशेच्या माध्यमांतल्यान घेतलें म्हण उच्च शिक्षण इंग्लिशींतल्यान घेवपाक त्रास जायना. भाशेच्या प्रमाणीकरणा विशीं एका वेळार हुनहुनीत चर्चा जाताली. आतां तो विशय सोंपला दिसता. प्रमाणीकरण करप सोंपें न्हय. हे वाटेन एकमत निर्माण करप गरजेचें. आपली भास दुसऱ्याक समजत अशें लेखकांनी बरोवपाक जाय. आमी भाशेची प्रादेशिक शैली वापरतात, तांतूतली उतरां आसडून, गाळून प्रयोग करूंक जाय. तर सगळ्यांक समजता तसली प्रमाण भास निर्माण जातली.

**विज्ञानीक भास**

विज्ञानीक साहित्य निर्माण करतना शास्त्रीय शब्दांचो अभाव उप्रासता असो तर्क केन्ना केन्ना आयकतां. हो पुराय प्रादेशीक भाशांचोय अणभव आसा. आधुनीक विज्ञान आमचे कडेन इंग्लिश भाशेंतल्यान पावता इंग्लीश शब्दाक समान पद निर्माण एकमतान निर्माण करपाक जाय. केन्ना योग्य पद मेळना तेन्ना मुळाचें पदच काडून वापर करपाक जाय. चड चड पदां येतना भास समृध्द जातलीच.

**समाज आनी साहित्य**

समाज आनी साहित्य हांचे मंदी निजाचें नातें आसाच. समाजांत कितें घडटा, ताचें पडबिंब साहित्यांत दिसता. एके तरेन पळयल्यार, साहित्य म्हळ्यार समकालीन जिविताचो हारसोच. उरफाटें, साहित्याचो समाजाचेरय प्रभाव पडटा. समाजाचे बरे – वायट चलणुकेंत साहित्यकाराची प्रत्यक्ष – अप्रत्यक्ष भुमिका आसा. समाजाची उदरगत मागपी साहित्यकारांनी समाजाक वाट दाखोवपी साहित्य रचपाक जाय. समाजा विशींचें आपलें कर्तव्य पाळूंक जाय.

**लेखकाचें अभिव्यक्ती स्वातंत्र्य**

साहित्यीक म्हणल्यार समाजाक वाट दाखोवपी. तो उजू चलणुकेचो आसूंक जाय. अभिव्यक्ती स्वातंत्र्य दर एका साहित्यिकाचो हक्क. तो समाजाचो बंदी आसचो न्हय. जातीचो वा धर्माचो बंदी आसचो न्हय. तसो तो प्रत्यक्ष शास्त्राचोय बंदी आसचो न्हय. पूण त्याचेर सभ्यतायेचें बंदन आसचें अशें म्हजें मत. अभिव्यक्ती स्वातंत्र्य आसा म्हणून कितेंय बरोवपाचें वा करपाचो ताका हक्क ना. देशाचे अखंडतायेक वा धर्मीक सद्भावनेक, समाजीक भद्रतेक बादचे तरेन आपल्या अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याचो लेखकान दुरुपयोग करचो न्हय अशें म्हाका दिसता.

**पोरण्या साहित्याचो सोद**

प्राचीन काळांत सावण कोंकणी प्रत्यक्षांत आशिल्ली तरीय आदी काळाचें साहित्य वा हातबरपां

आमचे कडेन चड कांय पावंक ना. पूण अलिखीत रुपाचें लोक साहित्य समृध्द साहित्य पारंपारीक रुपान आमकां मेळ्ळां बाटाबाटीच्या वेळार जायते ग्रंथ आनी हातबरपां नश्ट जालीं अशें म्हणटात. कितलींशींच हातबरपां नश्ट जालीं अशें म्हणटात. कितलींशींच हातबरपां विदेशांनी पावलीं जायत. सोळाव्या शेंकड्यांतल्यो रामायण – महाभारताच्यो काणयो हाची देख दितात. असलीं हातबरपां आनी ग्रंथ देशांतल्या आनी विदेशांतल्या ग्रंथालयांनी आनी हातबरपांच्या संग्रहांत उपेक्षीत पडिल्लीं आसूं येतात. तर कोंकणी पंडितांनी हाचो सोद घेवंक जाय.

**अणकार साहित्य**

हेर भारतीय भाशेंतलें साहित्य आज खंयच्या पांवड्यार पावलां आनी तांच्या संदर्भांत कोंकणी साहित्याची परिस्थिती कसली ह्या विशयाचेर आमी आत्मचिंतन करपाचो वेळ आयला आनी तें करपाकच जाय. तेन्नाच आमकां तुळनात्मक नदरेन बरें साहित्य निर्माण करपाक दिशा मेळटली. कोंकणी सामाज एक ल्हान समाज तरीय इतीहासीक कारणांक लागून तो चार राज्यांनी वांटून गेला आनी विदेशांत लेगीत कोंकणी लोक व्हडले संख्येन राबितो करून आसात. ह्याच कारणांक लागून कोंकणी भाशीक चार – पांच तरी भाशां कडेन आनी साबार विदेशी भासां कडेन लागीचें नातें जोडून आसा. देखूनच, अणकार करपाचें काम आमकां खूब सोंपें आसा.

आमचे भाशेंत अणकार साहित्य अजून व्हड प्रमाणांत जावंक ना. शेजारी भाशेंत आनी विदेशी भाशेंत सावन चडांत चड साहित्य आमी अणकारुन घेवपाक जाय.आमचे भाशेक इतर भाशांच्या साहित्याची वळख करून दिवंक जाय. तेन्नाच आमचें साहित्य समृध्द जातलें आनी भास वाडटली. तशेंच हेर भाशांनी आमच्या साहित्याचो अणकार जावपाचीय म्हत्वाची गरज आसा. मुखेल जावन मराठी, कन्नड, मल्याळम, तुळू, हिंदी,पुर्तुगेज आनी इंग्लिश भाशांनी कोंकणी साहित्याचो अणकार करपाक योग्य मनीस आमचे कडेन आसा. तांणी हो वावर घेवन कोंकणी साहित्याची इतर भाशिकांक वळख करून दिवची अशें म्हजें मत.

**समिक्षकांची गरज**

कोंकणींत समिक्षक उणे, हें आमकां कळटा, बरें साहित्य जाय जाल्यार समर्थ समिक्षकांची गरज आसा. प्रामाणीक आनी निव्वळ समिक्षा. भास आनी साहित्याची वाड हाडटली. आज गोंयच्या महाविद्यालयांनी खूब अणभवी कोंकणी शिक्षक आसात. तांणी आधुनीक समिक्षाशास्त्राच्या तत्वांक अणसरून कोंकणी साहित्याचें निर्भयपणान मूल्यमापन करचें. तशें केल्यार उच्च पांवड्याच्या साहित्याक वाटचाल मेळटली.

**बालसाहित्य**

कोंकणींत बाल साहित्य विभाग विकासाच्या मार्गार आसा तरीय अजून खूब करपाचें उरलां. बाल साहित्य निर्माण करपा खातीर आज केंद्र सरकार तशेंच राज्य सरकार आनी हेर साबार संस्था अर्थीक पालव आनी पुरस्कार दिवन उत्तेजन दितात. लेखकांनी असल्या येवजण्यांचो फायदो घेवन भुरग्यां खातीर साहित्य रचपाची गरज आसा.

**साहित्याचे प्रगती खातीर**

आमी खंयच्यान भायर सरिल्ले, अजून थंयच आसात म्हणूंक जाय. आमचें साहित्य पयलींचे अवस्थेंतल्यान चड कांय मुखार वचूंक ना अशें दिसता. नवेंच कितें आपणावचें, हाचेर आज विचार जावपाक जाय. हेर भारतीय भाशांनी कितें जाता हाचे विशीं आमी जाग्रूत आसूंक जाय. केन्ना आमी राष्ट्रीय पांवड्या वयल्या साहित्यीक कार्यावळींनी पावतात, तेन्ना आमकां आमच्या साहित्यांत कितें आसा कितें ना हें कळून येत.

आमी विंगड विंगड प्रदेशांनी रावपी कोंकणी बरोवप्यां मदीं सतत विचार विनिमय करपाची वेवस्था जाय. हेर साहित्यिकां कडेन सातत्यान संपर्क करपाचें तंत्र आमी मानून घेवया.

**नवोदित बरोवप्यांक उलो**

नवोदीत बरोवप्यांनी साहित्याचे उपासक जावपाची गरज आसा. निर्भय बरोवचें. समाजाचें सुक्षीम नदरेन निरिक्षण करचें आनी ताका बरे तरेन वळखून घेवचें. समाजांतलें बरें – वायट, अनिती, अत्याचार, दुराचार हांचे आड झुजपाक फाव जाल्ले साहित्य रचचें. साहित्य वाडोवन भास समृध्द करची. प्रभावीत करची. भास सांबाळून दवरून फाल्यांचे पिळगे कडेन पावोवंची. नवोदितांनी चड चड साहित्य वाचून घेवपाक जाय. हेर भारतीय साहित्याची वळख घेवपाक जाय. जें गिन्यान तुमी घेतले, तातूंतल्यान मायभाशेक गिरेस्त करची. फुडल्या धा – वीस वर्सांनी कोंकणी साहित्याक नवे दिशेन व्हरपा खातीर प्रयत्न करचो. कोंकणी भाशेचो आनी साहित्याचो फुडार तुमच्यांच हातांत आसा, हाची याद सदां उरूं.

**देव बरें करूं.**





# आवयभाशेंतल्यान शिक्षण घेतिल्लो विद्यार्थी बरो विचारवंत जावपाक शकता - उद्घाटक, श्री. गिरीश कार्नाड



आवयभाशेंतल्यान मुळावें शिक्षण घेतिल्लो विद्यार्थीच बरो विचारवंत जावपाक शकता. मुळावें शिक्षण इंग्लीश भाशेंतल्यान घेवपी विद्यार्थी पदवीधर जावपाक शकता पूण जो मेरेन तो आवयभाशेंतल्यान मुळावें शिक्षण घेना ते मेरेन ताची विचार करपाची तांक वाडची नां.

इंग्लीश भाशेचेर प्रभूत्व आनी प्रशिक्षण नाशिल्ले शिक्षक, विद्यार्थ्यांक चुकीची इंग्लीश शिकयतात हाची म्हाका खंत भोगता. तेन्ना शिक्षणांत भाशेचे संबंद विकसीत करपाक जाय आनी अशा संबंदांक फकत आवयभासूच मुळावी बांदावळ जावंक शकता.

आयज कर्नाटकांत पालक आपल्या भुरग्यांक इंग्लीश माध्यमांतल्या शाळांनी शिकपाक धाडपाक लागल्यात ताका लागून कन्नड भाशेमुखारुय आयज आव्हान उभें जालां. पूण आवयभाशेंतल्यान घेतिल्लें शिक्षण आनी जाल्ले संस्कार मनशाक विचारवंत जावपाक आदार करतात हें म्हजें मत.

उपगिरे आनी हेर तंत्रज्ञानाक लागून जी तोंडी संस्कृती (लोक गितां) आशिल्ली ती आवयभाशेखातीरुच लोकांमेरेन व्हरपाक आदारा आयल्या.

म्हजी आवयभास कोंकणी म्हजी संस्कृताय कोंकणी. म्हजेखातीर हेर खंयच्याय भाशेपरस भावना परगटावपाक कोंकणी म्हत्वाची आसा. कर्नाटकांत शिर्सी वाठारांत हांव रावतालों थंय क्रिस्तांव लोक चड आशिल्ले आनी उपरांत बापूय निवृत्त जातकच रावपाक गेले थंय गौड सारस्वतांचो राबितो आशिल्लो. ताका लागून गिरेस्त कोंकणी संस्कृतीचे ल्हानपणासावन म्हाका कितलेशेच अणभव आयले. पूण म्हजी आवयभास कोंकणी आसून लेगीत अजून मेरेन कोंकणीतल्यान हांव साहित्य रचपाक शकलो नां हाची म्हाका खंत दिसता.

तरी पूण हांव म्हजी आवयभास कोंकणी उलयता आनी ती हांवे जीबेर सांबाळून दवरल्या. अशा समयार म्हाका अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या 21 व्या कोंकणी साहित्य संमेलनाचें उद्घाटन करपाचो योग लाबलो हाचो म्हाका अभिमान दिसता. म्हजे अणभव आनी उमाळे उक्तावपाक ह्या निमतान संद मेळ्ळी ते पासत म्हाका उपाट खोशी भोगता.

जय कोंकणी !

(श्री. गिरीश कार्नाड हांच्या भाशणाचो आपरोस)





# संमेलनाचीं खीण चित्रां-उक्तावण



श्रीमती मीना काकोडकार, श्री. आर.एस. भास्कर हांकां संमेलनाध्यक्षपदाचीं सुत्रां सोंपयतना



आदल्यो संमेलनाध्यक्ष श्रीमती मीना काकोडकार हांचें भाशण



उद्घाटक - श्री. गिरीश कार्नाड



मानाचे सोयरे - श्री. पुंडलीक नायक



उक्तावण सुवाळ्याक हाजीर आशिल्ले मानेस्त

# संमेलनाचीं खीण चित्रां-उक्तावण



भौ. मुखेलमंत्री मनोहर पर्रीकार हांका येवकाराध्यक्ष श्री. दत्ता नायक येवकार दितना



उद्घाटक आनी मुखेल सोयरे एकमेकांक अभिवादन करतनां



मुखेल सोयरे श्री. मनोहर पर्रीकार भाशण करतनां



संमेलनाध्यक्ष - श्री. आर.एस. भास्कर



सरकार्यदर्शी - सौ. सुनिता काणेकार

# परिसंवाद

## विशय : लेखकाची अभिव्यक्ती : स्वातंत्र्य आनी मर्यादा

## विशय : कोंकणी साहित्याचो अणकार



















# परिसंवाद : कोंकणी साहित्यांत बदलत्या समाजाचें पडबिंब

**अध्यक्ष : संदेश प्रभुदेसाय**

**मुखेल वांटेकार : श्री. पयन्नूर रमेश पै, डॉ. माधवी सरदेसाय, प्रा. प्रकाश पर्येकार, श्री. निलबा खांडेकार**

**चर्चेत वांटेकार : श्री. जुझे लॉरेन्स, श्रीमती नमन सावंत धावस्कार, श्री. व्हिन्सी क्वाद्रुश**

## ■ श्री. पयन्नुर रमेश पै.

कोंकणी समाजांतलें पडबिंब साहित्यांत पूण तें भारतीय साहित्यांत येवपाची गरज आसा. कोंकणी साहित्य आमी प्रगल्भ केलां, पूण तेचवांगडा भारतीय साहित्य प्रगल्भ करचे खातीर कोंकणी साहित्य हेर भांशातल्यान अनुवादीत जावन येवपाची गरज आसा. तेन्नाच कोंकणी समाजांतल्या बदलांचे पडबिंब पुराय भारतीय समाजाक पळोवंक मेळटलें.

## ■ डॉ. माधवी सरदेसाय

समाजांत बदल घडत रावतात आनी नवनवे प्रस्न तयार जावत रावतात. ताचेर प्रतिक्रिया दिवप ही साहित्यिकाची नैतीक जापसालदारकी, पूण आमचो कोंकणी साहित्यीक ही जापसालदारकी घेतिल्लो दिश्टी पडना. सामकोच नां अशें न्हय, पूण हेर भाशीक साहित्यांचे तुलनेंत सामकोच उणो. केन्नाय कोणूय एक साहित्यीक रियॅक्ट जालो जाल्यार ताका तेंको दिवंक हेर साहित्यीक मुखार सरनात. एकलो बरयता, हेर ओग्गी रावतात. आमी कित्याक तातूंत पडून वायटपण घेवया अशें चिंतून. अशे तरेन आमी त्या साहित्यिकाक एकलो उडयतात आनी संवादय मारुन उडयतात. समाज बदलता ताचेर साहित्यिकांमदीं संवाद जावप गरजेचो. तो जातलो तेन्ना आमची जाणविकाय वाडटली आनी आपसूकच ताचें पडबिंब कोंकणी साहित्यांत पडटलें.ताका लागून परखडपणान केल्ली समिक्षाय तितलीच म्हत्वाची आमी समिक्षेंतल्यान आलतड दाखयतात, पूण पलतड दाखयनात. ताका लागून साहित्याक खुजेपण येता. तेन्ना आमच्या साहित्याक आनी साहित्यिकांक पलतड दाखोवप साप्प गरजेची.

## ■ प्रा. प्रकाश पर्येकार

समाज हो वर्गसंघर्शांतल्यान मुखार वता, बदलता आनी सुदारता. तो बदलपांत साहित्यिकाचें योगदान साप्प म्हत्वाचें. दुर्दैवान कांय वेंचीक देखी सोडल्यार हो वर्गसंघर्श कोंकणी साहित्यांत दिश्टी पडना. ह्या वर्गसंघर्शाचो नियाळ घेतना फक्त प्रादेशीक वा राष्ट्रीय पावंड्याचेरच न्हय, वैश्वीक पातळेचेर विचार करून साहित्य निर्माण जावंक जाय. ती जाल्ली दिश्टी पडना.

ताच्याकय फुडली गजाल म्हणल्यार आमी साहित्यीक फक्त मॅक्रो लेव्हलाचेर विचार करतात आनी वयलेवयर साहित्य रचतात. नवें तंत्रज्ञान येता, नवें अर्थकारण येता आनी तातूंतल्यान सामाजीक आनी सांस्कृतीकच न्हय तर मनशाची मानसिकताय बदलता. हे आंतरीक बदल सूक्ष्मपणान नियाळून ताचेर बरप जावप गरजेचें पूण हें जाल्लें दुर्दैवान दिश्टी पडना. आमचें कोंकणी साहित्य हातूंत फाटीं पडटा.

■ **श्री. निलबा खांडेकार**

विलियम जोन्स आनी मॅक्सम्युलरासारक्या जागतीक पावंड्यावेल्या विचारवंतांनी आमच्या सांस्कृतीक उदरगतीची व्हडविकाय आमकां विस्कटावन सांगल्या. ती समजून घेवप गरजेची. समाज आनी साहित्य हें वेगळें जावंकच शकना. समाज ही कात जाल्यार साहित्य हें काळीज. तेन्ना दरेका सामाजीक बदलाचें पडबिंब साहित्यांत पडप ही निसर्गीक प्रक्रिया समाज बदलता. हे प्रमाण साहित्यांतय परिवर्तन येवप हें गरजेचें पूण ते खातीर साहित्यिकान विज्ञानीक दिश्टिकोण आपणावपय तितलोच गरजेचो. नाजाल्यार दिसान दीस अंधश्रध्दाळू जायत चलिल्ल्या समाजाचो साहित्यीक भाग जावन वतलो आनी बदलत्या समाजाचें पडबिंब शास्त्रशुध्दपणान अंधश्रध्दाळूपणाक ओतो येतलो. तांचे फाटल्यान गेले जाल्यार साहित्यीक समाजाक विज्ञानीक विचारांचो वसो दिवंक शकचे नात. तेन्ना बदलत्या समाजाचें पडबिंब कोंकणी साहित्यांत पडपाक जाय जाल्ल्यार देवदेवस्की आनी कर्मकांडांतल्यान भायर पडून साहित्यिकाक विज्ञानीक दिश्टिकोण घेवण मुखार वचें पडटलें. तेन्नाच बदलत्या समाजाचें पडबिंब खरेपणान साहित्यांत पडपाक शकतलें.

■ **श्री. जुझे लॉरेन्स**

समाज बदलत आसता. नवनवे बदल जायत आसतात ते समजून घेवपा खातीर फक्त ह्या बदलांचें निरीक्षण करून फावना, तर हे बदल कित्याक जातात ताचे फाटलीं अर्थीक आनी कांय वेळार राजकी कारणांय समजून घेवप गरजेचीं आसतात. तांचे विश्लेशण करप गरजेचें आसता. तें विश्लेशण जावंक जाय जाल्यार वेगवेगळ्या विचारवंतांचे विचार जाणां जावन घेवप गरजेचें आसता. ते खातीर वाचन जाय. तेंय येता त्या सगळ्या भाशांतल्यान, तेन्नाच आमकां ह्या बदलांचें स्वरूप आनी ताचे फाटलीं कारणां समजूंक शकतलीं आनी मागीर ताचें पडबिंब आपसूक साहित्यांत पडटलें.

■ **श्री. व्हिन्सी क्वाद्रूश**

आमचो समाज जाती – कातींनी, धर्मांनी आनी अर्थीक पावंड्यार लेगीत विभागिल्लो आसा. तातूंतल्यान आमचे मदीं सामजाचे कुडके जाल्यात. तांचे मदीं झगडीं आनी किजिलां जातात. तीं समजून घेवप गरजेचें तेन्नाच ताचें पडबिंब साहित्यांत पडपाक शकतलें. ते खातीर साहित्यिकान सत्ताधाऱ्याफाटल्यान न्हय तर दुबळे आनी गरजवंतां फाटल्यान रावपाची गरज आसा. तेन्नाच आमकां साहित्यिकांक गरीब लोकांचे प्रस्न समजुपाक शकतले आनी ताचें पडबिंब साहित्यांत पडपाक शकतलें.

■ **श्रीमती नमन सावंत धावस्कर**

साहित्य बरयतना ठोस भुमिका घेवप गरजेची तीय बी भौस हो केंद्रबिंदू दवरून वेंचीक, प्रस्थापीत न्हय. सत्ता गाजयता ताचे फाटल्यान रावता तो साहित्यीक न्हय. साहित्यिकान गरजवंता फाटल्यान रावपाची गरज आसा. आयची नवी पिळगी कोंकणी साहित्य वाचना म्हूण तांकां दोश दिवं नाकात. तांकां जाय तें तुमी दिनात म्हूण साहित्यिकांनी आपणाक स्वताक दोश दिवपाक जाय. तांचे प्रस्न साहित्यांत येनात जाल्यार ते कित्याक तें साहित्य वाचतले? आनी मागीर तांकां दोश दिवन फायदो कितें? साहित्यीक प्रस्थापितां आड आवाज काडून लोकांचे प्रस्न मांडपाक भियेतात. तांकां कापस्ताद ना. देखून आमचें साहित्य प्रभावी जायना.

■ **श्री. संदेश प्रभुदेसाय**

अर्थीक सत्ता आनी राजकी सत्ता हातूंत बदल जातात तेन्ना ताचें पडबिंब मागीर सामाजीक, सांस्कृतीक आनी वैयक्तीक पावंड्याचेर लेगीत पडटा. ते समजूंक जाय जाल्यार फक्त सामाजीक वा सांस्कृतीक पावंड्यावेले संघर्श समजून घेवन जावचें ना. तातूंतल्यान कुटुंबांनी, इश्ट परिवारांनी, काम करतल्या सुवातांनी, शिक्षण संस्थानी वा क्लब आनी हेर भौशीक संस्थांनी लेगीत कशे बदल जाल्यात ते समजून घेवप गरजेचे. ही बदलती मानसिकता समजून घेवप गरजेची. ते बदलते मानसिकते फाटलें अर्थकारण आनी राजकारण समजून घेवप गरजेचें. तेन्नाच ह्या बदलांची कारणमिमांसा खरीखुरी जातली. हें समजून घेवचे खातीर खंयच्याय बदलाचें अर्थीक, राजकी, सामाजीक आनी सांस्कृतीक नदरेन विश्लेशण जावप गरजेचें. ती अभ्यासू नदर गरजेची. ह्यो गजाली विचारवंतांनीं करपाच्यो आनी साहित्यिकांनीं फक्त साहित्य रचपाचें अशे वांटे आमी घालपाकच शकनात. सर्जनशील साहित्य घडपाक जाय जाल्यार ते खातीर वैचारीक अभ्यास साप्प गरजेचो. संवसारांतले बरे बरे साहित्यीक हे तितलेच बरे विचारवंतय आशिल्ले. तांचे लागीं साहित्यीक प्रतिभा आशिल्ली देखून ते विचार ते सर्जनशील पध्दतीन साहित्यांतल्यान मांडपाक शकले. त्या साहित्यांतल्यान समाज मुखार गेलो. बदल्लो क्रांती लेगीत जाली. कोंकणी साहित्याची गरज. हें कोणेंच केलें ना अशें न्हय. पूण जितल्या प्रमाणांत तें जावंक जाय आशिल्लें तितलें तें जाल्लें नां, हें दुख्ख. तें जातलें तेन्ना बदलत्या समाजाचें पडबिंब कोंकणी साहित्यांत पडटलें.





# कोंकणी साहित्याचो अणकार (परिसंवाद नियाळ)

**अध्यक्ष - श्री. दामोदर मावजो**

**प्रबंध मांडपी - श्रीमती विद्या पै, डॉ. एल. सुनिताबाय, श्री. आगुस्तो पिंटो**

**चर्चेंत सहभागी - श्री. सतीश दळवी, श्रीमती सुनेत्रा जोग, श्री. दिनेश मणेरकार**

ह्या साहित्य संमेलनांत घडोवन हाडिल्लीं चर्चासत्रां अदीक गाजलीं कारण प्रपत्रवाचनाक कडसरुन हे खेपेक प्रत्यक्ष भासाभास घडोवन हाडिल्ली. 'अनुवाद' ह्या विशयावयलें चर्चा सत्रूय ह्याच कारणाखातीर जैतिवंत जावंक पावले. पंजाबी अनुवादक श्री. आतमजी आनी गुजराती अनुवादक दर्शन ढोलाकिया, दोगांय कांय कारणांक लागून येवंक पावलीं नात पूण कोंकणी कथा आनी नवलकथा इंग्लीशीवरवीं कोंकणी भायल्या संवसारात विद्या पै आनी आगुस्तो पिन्टो हांणी पावयली. दोगांय हाजीर आशिल्ल्यान चर्चा रंगार आयली. तशेंच हेर भासांतलें साहित्य अणकारून कोंकणीत हाडपी सुनेत्रा जोग, सतीश दळवी आनी दिनेश मणेरकार हाणीच आपणाल्या अणभवी उतरांनी भासाभाशेंत वांटो घेतलो.

चर्चासत्राच्या अध्यक्षपदावयल्यान उलयतना दामोदर मावजो हाणीं अनुकृति ह्या संस्कृत उतरावयल्यान अणकार हें उतर आयलां अशें सांगून अनुवाद हो साहित्याक बंधयुक्त करता अशें सांगलें एका काळार अणकार करप हें सामान्य कार्य अशें लेखताले. पूण आतां मूळ सर्जनापरसूय अनुसर्जन हें चड कठीण आनी तितलेंच मोलादीक अशें लेखिल्ल्यान अणकारीत साहित्याक आनी अनुवादकांक प्रतिशठा प्राप्त जाल्या अशें ताणी सांगले.

केरळांतल्यान आयिल्ले लेखक, जांणी कोंकणी साहित्य हिन्दींत पावोवपाचो मोलादीक वावर केलो त्या डॉ. एल. सुनिता बाय हाणीं चर्चेक सुरवात करतनां पुर्वतयारी केल्ल्यान प्रपत्रच सादर केलें. कोंकणी - हिन्दी शब्दकोश ना हाची खंत आनी गरज ताणीं परगटायली. अणकार करतनां आयिल्ल्या आडखळींची वळेरीच ताणीं दिली. कोंकणी संस्कृतायेच्यो कुरवो आशिल्ली शबय, तालगडी, असलीं उतरां वा उंवाळिल्ल्या, पाड पडिल्ल्या असल्या उतरांक प्रतिशब्द मेळनात ताका लागून साहित्याचो आपरोस पावता, पूण तांतलो आशय पुरायेन हेर भासांनी पावना, अशें सांगलें.

विद्या पै हाणी अच्छेव, कार्मेलीन, कालीगंगा सयत अनेक साहित्यकृति अणकारीत केल्यान विश्वकोंकणी केन्द्र सारकी संस्था जेन्ना कोंकणी कांदबरी इंग्लीश वा कन्नड भाशेंत अणकारून घेता तेन्ना तें साहित्य त्या त्या वाचकांकडेन पावोपाक संस्था उण्यो पडटात. साहित्य अकादेमी जावं नेशनल बूक ट्रस्ट सारक्यो संस्था प्रकाशनां करतात पूण तीं योग्य रीतीन 'प्रमोट' करून व्हडल्या प्रकाशन संस्था मार्फतीन आनी व्हडल्या वितरक संस्थांचे मार्फतीन हें कार्य फुडें व्हरपाची येवजण जाय अशें ताणी प्रतिपादन केलें.

आगुस्तो पिन्टो हाणीं अणकार करपा फाटलो आपणालो अणभव विस्कटावन सांगलो. अनुवादकान पयलीं लेखकाक अभिप्रेत आशिल्लो आशय पुरायेन समजून घेवंक जाय तेन्नाच अणकाराक तो न्याय दिवपाक पावता अशें ताणीं सांगलें.

अभ्यासक्रमांत अणकाराचेर चड भर दिवंचो अशें सुनित्रा जोग हाणीं मत परगटायलें. फिशाल अनुवादक तयार करपाखातीर संस्थांनीं पावलां उखलचीं असो विचार सतीश दळवी हाणीं मांडलो. तशेंच ताणीं लोकसेवा परिक्षांखातीरचो अभ्यासक्रम कोंकणीत तयार करचो अशेंय सुचयलें.

कविता ह्या प्रकाराचे अणकार सपसप जायनात हाचो हुसको ह्या चर्चासत्रांत उकतो जालो. अणकारतना अनुवादकाक स्वातंत्र्य आसता व्हय? आसता जाल्यार तें कितलें? अणकार करतानां तळटिपो (foot note) आसच्यो काय ना? अशा अनेक प्रस्नांच्यो जापो सोदीत हें चर्चासत्र सोंपलें. विशेश म्हळ्यार सभा घरांतल्या प्रेक्षकांनीय चर्चेत वांटो घेतिल्ल्यान विशेश रंग चडलो.









# संमेलनाचो समारोप सुवाळो



येवकाराध्यक्ष - श्री. दत्ता नायक



समारोप सुवाळ्याचे मुखेल सोयरे - श्री. व्हिक्टर रांजेल

# संमेलनाचो समारोप सुवाळो



परिशदेचे कार्याध्यक्ष - श्री. गोकुळदास प्रभु



येवकार समितीचे कार्याध्यक्ष - श्री. चेतन आचार्य



आयोजन समितीचे वांगडी



समारोप सुवाळ्याक हाजीर आशिल्ले मानेस्त



डॉ. सोनिया सिरसाट - सुत्रसंचालक, उक्तावण सुवाळो



श्रीमती अन्वेषा सिंगबाळ - सुत्रसंचालक, समारोप सुवाळो







# लेखना फाटली सृजन प्रक्रिया

– श्री. दिलीप बोरकार

खरें म्हळ्यार लेखना फाटली सृजन प्रक्रिया स्वंयच्याच लेखकान केन्ना दुसऱ्यांक सांगची न्हय आनी कोणें जाणून घेवपापासत लेखकाक ते विशी विचारचे न्हय कित्याक सृजन प्रक्रिया ही अनुभूती.अभिव्यक्ती न्हय. सृजन प्रक्रिया सुरु जाता तेन्ना ताची अनुभुती तेच ताकतीन अभिव्यक्त करुंक येतलीच अशें ना. ती दर एकल्यान अणभवपाची गजाल. जो कोण तो अणभवता ताकाच ती होलमता. हेरांक सांगूक गेल्यार लेखक फसता वो हेरांक फसयता. तरी लेगीत त्या लेखकाक जाणून घेवचे पासत ताच्या लेखना फाटली सृजन प्रक्रिया समजून घेवंक काय अभ्यासक लेखकाचे फाटीक लागता.

लेखक जेन्ना आपले सृजन प्रक्रियेविशी उलयता तेन्ना ताणें फक्त आपले विशींच सांगूंक जाय. परिसंवादात वांटो घेवपा पासत येंत नाशिल्ल्यो खुबश्यो गजाली तो आपलें व्हडपण दाखोवपा खातीर जमयता. हे जमोवप चडशें व्हडल्या व्हडल्या लेखकांच्या सृजन प्रक्रियेंतले आसता. देखून ताणी सादर केलो पेपर टाळयो घेवन वता. पूण तातूंत ताचें निजाचें कांय नाशिल्ल्यान ताची ती सृजन प्रक्रिया अडेची आसता. मागीर तो केदोय व्हडलो लेखक आसूं ! ताचें कारण म्हळ्यार दरेक लेखकाची लेखना फाटली सृजन प्रकिया ही वेगवेगळी आसता आनी हेंच जय त्या लेखकाक खबर नासत जाल्यार मागीर ताच्या बरोवपाक तसो व्हडलोसो अर्थ ना अशें म्हजें मत.

सृजन शक्त आनी सृजन प्रक्रिया ही ह्या विश्वातली अप्रूप गजाल. ती एक मिलाग्र ! जी गजाल अप्रुप आसता, मिलाग्र आसता ती कितलेय व्हडले तांकीचो सर्जक व्यक्त करुन सांगुकूच शकना. इतलेंच कित्याक ? तो खुद्द ती गजाल अणभवता ती लेगीत ताका नीट उलगना. ताचेर त्या वेळार एक सांवार येता. त्या वेळार तो आपलो उरना. ताका सरभोवतणचे परिस्थितीचें भान उरना, ताका आपल्या पेल्याची वळख उरना. ताका भान आसता, ताका वळख आसता ती फकत ताच्या अंतस्कर्णातल्या वो म्हणात,मनांतलया निर्मिती बिजाची. तें बीज आंकुर पाक वथरेता,सगळी आडमेळी पयस मारुन भायर येवून फाफसुपाक पळयता तेन्ना त्या सर्जकाची अवतिकाय कितें आसतली?

म्हजें एके लागशिल्ले इष्टिणीचे डिलीवरी वेळार हांव तिच्या सांगाताक आशिल्लों. जंय तिची डिलीवरी जावपाची आशिल्ली तें हॉस्पिटलय म्हज्या इश्ट दोतोराचे. ताणेंय म्हळें, तुका पळोवंक जाय मरे डिलीव्हरी कशी जाता ती ? आनी हांव त्या वेळार मन घट करुन सगळें पळयतालों . ते इश्टीणीचें प्रेम प्रकरण हांवे पळयले ताका आधारुय हांवे केल्लो. लग्ना वेळार आयोजनाकूय म्हजो व्हड वांटो आशिल्लो. लग्ना उप्रांत सगळ्या आंगानी तें कशें फुलत वता ते हांवे पळयल्लें. आनी मागीर पयल्या भुरग्याच्या जल्मा वेळार, त्या भुरग्याच्या येवकाराक दोतोर, नर्सी वांगडा हांव आशिल्लो. तेन्ना ते म्हजे इश्टीणीच्यो बोबो हुयेली हांव आयकतालो, ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरपी बुरश्यो गाळी म्हज्या कानार पडटाल्यो ! ताच्या मुखामळार वेदने वांगडाच खोसूय खेळटाली. जेन्ना डिलीव्हरी जाली तेन्ना ताच्या तोंडार जें तेज आनी आनंद निशेतालो तो दैवी आशिल्लो. ही सृजन प्रक्रिया जी ताच्या प्रेमाच्या पयल्या खिणाक, पयल्या स्पर्शान सुरु जाली तो हांगा बाळक निर्मणेंतल्यान पूर्ण

जाल्ली. हांवे ताचें लजप बिजप पळयल्ले पूण ते सृजन प्रक्रियेचो सर्वोच्च खीण, जाका हांव गवाय आशिल्लो तो सामको दैवी आशिल्लो ! हांव एक सर्जक जाल्ल्यान सृजन प्रकियेफाटल्यो सगळ्यो संवेदना म्हाका भावताल्यो देखून ते इष्टिणीच्या मुखामळावेल्या दरेक घामाच्या थेंब्यांतलें सृजनत्व म्हाका होलमतालें. ताचो दिश्टावो सगळ्यांकूच जातलो अशें म्हज्यान सांगू नज !

धर्तर ही ह्यां ब्रहमांडांतली सृजनशक्त लाबिल्ली सगळ्यांत व्हडले अजाप!सृजन हेंच हे पृथ्वीचे तत्व ! एकूय खीण थांबना सतना हे धर्तरिचेर सृजन घडत आसता आनी त्या सृजना फाटली प्रक्रिया जय बारकायेन पळोवंक वचत जाल्यार आमी जे जे हुसके माथ्यार घेवन जियेतात ते सगळे हुसके सासणाचे पयस जावन निखळ अशें जिवीत जियेवंक पावतले. पयली हें सृजनत्व जे कोण विश्वाची निर्मिती जाणा जावन घेवंक धडपडटाले तांकांच दिसतालें. सर्वसामान्य मनीस ताचे पासून पयसूच आसतालो. पूण आता घराघरांनी टिव्ही आसात आनी 'ॲनिमल प्लॅनेट','डिस्कव्हरी' सारके चॅनल हें सगळें विश्व बारीकसाणेन उक्ते करता. हें सगळें अजाप आमकां पळोवंक गावता.

धर्तरिच्या पोटांत तरेकतरेची बिजां पडून आसतात. ती कसली बियां हें खुद्द ते धर्तरिक लेगीत खबर आसता काय कोण जाणा ! धर्तरिक बरोच काळ सुर्य ताप ताप तापयता. धर्तरि वांगडाच तीं बियांय ते मातयेंत तापत आसतात. त्या बियांक रुजपाची तांक आसता पूण अंकुरपाक जाय आसता तो धर्तरिचो आधार. धर्तर त्या बियांक सशक्त तेंको दिवपाक तयारुच आसता. तेच पासत प्रत्येक बियेक मातयेच्या पदरा पोंदा ती लिपोवन घेवन राविल्ली आसता. ते बियेक रुजोवप, ताच्या मुळांक आपल्या गर्भातलो जीवनरस दीत रावप, जसजशी ती मुळां वाडत वतात तसतशीं तीं आपलेच भितर खोल खोल व्हरुन त्या अंकुराक वृक्ष जावंक दिवप हें सगळें करुंक धर्तर तयार आसताच. पण ते धर्तरिक जाय आसता आर्द्रता, ओलसाण! पावसाचो पयलो शिताडो झडल्या बराबर, मातयेंत लिपून राविल्लें बीज पयलीं आपलें कल्ल फोडटा. मागीर, आंगावयले मातयेंतल्यान आपलो आंकुर वयर काडून सुर्याकडेन पळयता. हें अशें करतना ताचे मदी ज्यो ज्यो आडखळी येतात त्यो सगळे शक्तीनिशी पयस मारता. भुसभुशीत माती आसत जाल्यार सरळ वयर सरता. वयर कडक फातर आसल्यार आपूण वाकडी वाट धरुन फातरावयर येता. केन्ना केन्नाय फातर लेगीत फोडटा. सृजनाची तांक इतली सशक्त आसता, ती कोणाच्यान आडावंक येना.सर्जनशील मनशाचे बाबतींतूय हें अशेंच घडटा. ताच्या सृजन प्रक्रियेचो एक उत्सवूच ताचे भितर चलता.

रवीन्द्रबाब म्हाका सांगताले– साहित्य निर्मणेची एक 'अर्ज' (urge) भितरल्यान येता तेन्नाच कितेंय बरोबन जाता. हे 'अर्जी' चो आनी पयश्यांचो कांय संबंद ना. नांवाचो आनी किर्तीचोय तिचे कडेन संबंद ना. ती निर्मणेची अर्ज आसता. निर्मणी हेंच तिचें फळ आनी निर्मणी होच तिचो आनंद.. हांव बरयन दिसना जाल्यार बरयना बरयन दिसता तेन्नाच बरयतां I sing because I must गायले बगर रावं नज जाता तेन्नाच कवी गायता. कथाय तेन्नाच येता आनी वैचारिक लेखुय तेन्नाच बरोवन जाता. जाय ती बरोवपाची अर्ज. ही अर्ज जाका आसा तो केन्नाच स्वस्थ बसून रावचो ना. ती ताका स्वस्थ बसुंकूच दिवचिना

ही'अर्जी' म्हळ्यारुच सृजन प्रक्रिया. ती कोणाकूच ओगी बसूंक दिना. लेखकाक वो सर्जकाक एक सुक्षीम नदर आसता तिका लागून ताचे भितर तरांतरांचें भाव तरंग तयार जातात. तातुंतल्यान ताका प्रेरणा मेळटा आनी त्या अणभवांक अभिव्यक्त करुंक ताच्या मनांत एक खर उत्कंठा उत्पन्न जाता. आपल्या मनांतली भावना दुसऱ्या मेरेन पावयल्या बगर ताच्यान रावंनज जाता. ते पासत तो तडफडटा, आकुळ–पिकूळ जाता. ताची कल्पना सप्तरंगीच न्हय तर तेय परस चड रंगानीं आपली प्रतिभा फुलयता. तातुंतल्यान जो कितें चमत्कार घडटा तो

सगळो सत्यम शिवं सुन्दरमं च्या रुपांत प्रकट जाता. अशे. हे अवस्थेत सर्जकाचेर एक दैवी भार येता. हेच पासत सर्जन हें आत्माभिव्यक्ती खातीर आसता अशेंच सगळे मानतात.

हे धर्तरिचेर जें जें कितें सजीव आसा त्या दरेक जीवाक आत्माभिव्यक्ती करपाची आंतरीक प्रेरणा आसताच. देखुनूच आमकां सृश्टींत वेग वेगळे आवाज आयकुंक येतात. सर्जक हो तेच पासत पयलीं जीव आनी उप्रांतूच कवी, लेखक, चित्रकार, गायक बी ! ताच्या जीवितांत खुबशे कडू गोड अणभव आयिल्ले आसतात. तेच अणभव ताची प्रतिभा आनी कल्पना हांचो स्पर्श जाले बराबर विराट रुप घेतात. हे अणभव सर्व सामान्या भितरुय आसताच. ताकाय विचार करपाची तांक आसता. संवेदना आसतात. पूण तो आपले अणभव, प्रतिभेची आनी कल्पनेर्ची पाखां लावन मळबामेरेन व्हरुंक शकना. जें काम सर्जक करता.

नैसर्गिक च प्रतिभा श्रुतंञ्च बहु निर्मलम्। अमन्दश्चाभियोगश्च,कारणं काव्य-सम्परः। अशें आचार्य दण्डी म्हणटात तें तेच पासत. मनशाक सैमीकरुपान प्रतिभा आसता तशी ती अभ्यासान पैदाशिल्लीय आसता जी प्रतिभा जन्मजात वो ईश्वरदत्त, दैवी आसता ती श्रेष्ठ प्रतिभा आसता. ताका आपल्यो भावना व्यक्त करुंक विशेश श्रम घेवचे पडनांत. पूण जांची प्रतिभा उत्पाद्या म्हळयार शास्त्रांचो अभ्यास करुन, सत्संगान केळयल्ली आसता ती सर्जकाक सहज स्फुर्त दिवंक पावना, प्रवाहित उरना.

प्रतिभा ही सर्जकाची मूळ शक्त आसता. सृजन प्रक्रियेंत हे प्रतिभचो खूब व्हड वांटो आसता. जाका प्रतिभा दैवीरुपान लाभिल्ली आसता. तो जें कितें निर्माण करता ताका दैवी रुप प्राप्त जाता आनी जे कोण झांकून गांवकार जाल्ले आसतात तांची प्रतिभा ही निर्मिती करता. पूण ते निर्मितीक सरस्वतीचो आशिर्वाद आसतलोच म्हणपाचें सांगू येना. जांका दैवी प्रतिभा प्राप्त जाल्ली आसता तांची सृजन प्रक्रिया दैवीच आसता आनी तो एक आनंद सुवाळो आसता. त्या आनंद सुवाळ्याची अनुकृती अभ्यासांतल्या प्रतिभा हाताशिल्ल्यांक जावंक पावतलीच अशें सांगूंक येना.

लेखना फाटली सृजन प्रक्रिया हो तेच पासत प्रतिभेचो उत्सव. जाका दैवी प्रतिभा लाभिल्ली आसता ताणें ते प्रतिभेची सांगड मानवी मुल्यांलागीं घालूंक जाय. अशें घडटकच ते प्रक्रियेंतल्यान जें कितें सर्जन जाता, तें तें सृजन प्रक्रियेचो अर्क आसता. म्हज्यांतली सृजन प्रक्रिया ही असलीच, कोणाक नदरेक पडपासारकी न्हय असली !

म्हजे नदरेन जीवन हें एक मनशाक पडिल्लें सुंदर कुवाडें. तें कुवाडें सोडोवपाचो सगळेच यत्न करतात अशें ना. हांव तें कुवाडें सोडोवपाखातीर सतत धडपडटां. तें सोडयतना म्हाका अतीव असो आनंद मेळटा. हो आनंद सर्वसामान्य मनशाची एक विकृती म्हणपाचें आयज मानस शास्त्री मानूंक लागल्यात. अशें जरी आसलें तरी मनीस जातीक समर्थ जीण जियेवपा पासत सर्जकांनीं आपल्या पिशेपणांतल्यान म्हळयार सर्जनांतल्यान तांकां दिका दाखोवंक जाय आनी ती दरेक सर्जकाची जापसालदारकी.

सृजन प्रक्रिया ही काळसाक्षेप आसता जेन्ना काव्य अथवा नाट्य हेंच जीवन असो अर्थ लावन आमचे आचार्य सर्जन करताले तेन्नाचो काळ आनी आतांचो काळ हातूंत खूब अंतर आसा. कालिदास मेघदूत रचतालो तेन्नाचे मेघ आनी आयचे मेघ हातूंत फरक आसा. तेन्नाचे मेघ शुध्द जल घेवन वताले. आतांचे मेघ हे 'ॲसिडपावस' घेवन येतात. म्हणटकच कालिदासाची सृजन प्रक्रिया आनी आतांचे सर्जक हांचे सृजन प्रक्रियेंत फरक आसतलोच ! तेच पासत सर्जन शक्त जरी सारकी सगळ्या भितर आसतलीच हें सांगू येना. सर्जन शक्त सर्जका भितर आसत जाल्यार समिक्षाशक्त वांगडाच समिक्षा शक्तीचीय जोड सर्जकाक लाभत जाल्यार श्रेष्ठ साहित्याची रचना ताचेकडेन जावं येता. ते पासत साहित्य सर्जना फाटली प्रक्रिया सर्जकामदी चलतना आयचे काळार दरेक सर्जकान एकाच मुल्ल्या भोंवतणी केंद्रीत जावपाची गरज आसा

आनी तें म्हळ्यार मानवी मूल्य ! त्या मुल्याचेरुच लेखना फाटली सृजन प्रक्रिया कितली प्रखर आसता ताची अनुभुती वाचकाक होलमता.

हे इतलेंय सांगून जाल्या उप्रांतूय एक प्रस्न अजून उरता तो म्हळयार रामाची सीता कोण ? लेखना फाटली सृजना प्रक्रिया हातूंत खंय सांगल्या असो प्रस्न कोणाकूय पडल्या बगर रावचोना. देखून सृजन प्रकिया-ब्रिक्रिया कांयच तशें नासता. बरोवचे पयली एक सांवार येता, तो तल्लीन जाता बी सगळी कोणाचेय बाबतीत सत आसता. एक दोन कविता बरोवन, लेख बी छापून आयले म्हणटकच सुर्वे सुर्वेक सगळे लोक आपल्याक वळखता अशें दिसूंक लागता हे खरे ! मागीर कांय जाणाची चलपाची चाल-ढंग बदलता हेंच खरे ! पूण एक थारावीक काळ सरलो म्हणटकच सर्जक आपूण सर्जक म्हणपाचें विसरता आनी लेखन हें ताच्या जीविताचो वेगळावं नज असो वांटो जाता. पांचूय इंद्रियां वांगडा जाका 'सीक्स्थ सेन्स' म्हणटात तेंय उगडें जाता. आनी मागीर जें कितें घडटा ते सैमीक, आपसुक घडत वता. सर्जकाकूय मागीर सृजन प्रक्रिया खंयची ? ती केन्ना सुरु जाली आनी केन्ना बंद जाली हाचेंय भान उरना. वाचकांक दिसता ती सर्वांग सुंदर निर्मिती !








# गोवा कोंकणी अकादेमी

(गोवा सरकारान स्थापना केल्ली संस्था)

कार्यालय : 243, पाटो कॉलनी, पणजी, गोंय - 403 001

फोन क्रं.: 0832 - 2437385/87, 0832 - 2439720

**इमेल :** konkaniakademi@gmail.com **वेबसाईट :** www.goakonkaniakademi.org

साहित्य, कला, संस्कृताय, शिक्षण अशा वेगवेगळ्या विद्यमानान कोंकणी भाशेची उदरगत साधपाच्या हेतान गोंय सरकारान 1968 वर्सा गोंय कोंकणी अकादेमीची थापणूक केली. अकादेमी सद्या सकयल दिल्ल्यो वेगवेगळ्यो येवजण्यो आनी उपक्रम यशस्वीरित्या राबयता.

## अकादेमीच्यो मुखेल येवजण्यो आनी उपक्रम

१ 'पयलो चंवर' येवजण (लेखकाचें पयलें पुस्तक प्रकाशीत करपाखातीर 75% आर्थिक सहाय्य)

२ 'साहित्य – प्रभा' येवजण (प्रस्थापीत लेखकांच्या पुस्तक प्रकाशनाखातीर 60% आर्थिक सहाय्य)

३ बालसाहित्याच्या पुस्तक प्रकाशनाखातीर 50% आर्थिक सहाय्य येवजण.

४ कोंकणी नाटक मांड येवजण (नाटकाच्या पुस्तक प्रकाशनाखातीर 75% आर्थिक सहाय्य)

५ कोंकणी शिल्पकार येवजण (सर्गेत साहित्यीकांच्या जीणकार्यचेर आधीरीत मोनोग्राफाची निर्मिती)

६ बालसाहित्य शिक्षणीक पुस्तक प्रकाशन येवजण

७ शिक्षणीक – साहित्य प्रकाशन येवजण

८ लिप्यांतर साहित्य प्रकाशन येवजण

९ व्याकरण, शब्दकोश, परिभाशा निर्मिती येवजण

१० 'प्रतिभा–सन्मान' येवजण (प्रकाशकांक आर्थिक मजत करपाच्या हेतान पुस्तकांच्यो प्रती विकत्यो घेवप)

११ शैक्षणीक लोकवेद आनी भाशाशास्त्रीय संशोधनाखातीर शिष्यवृत्त्यो

१२ कोंकणी संगीत निर्मितीखातीर आर्थिक सहाय्य येवजण

१३ लोकवेद अभ्यास – प्रकल्प येवजण

१४ कोंकणी साहित्य – भाशा सेवा पुरस्कार येवजण

१५ लेखक विद्यार्थ्यांचे भेटेक आनी विद्यार्थी लेखकांचे भेटेक – उपक्रम

१६ साहित्यीक भोंवडी उपक्रम

१७ कोंकणी वाचण चळवळ

१८ राज्य आनी आंतरराज्य स्तराचेर कोंकणी नाट्य महोत्सवाचें आयोजन

१९ युवा साहित्य संमेलनाचें आयोजन

२० संगीत साहित्य प्रकाशन येवजण

२१ अनुवादीत साहित्य प्रकाशन येवजण

२२ वेंचीक साहित्य प्रकाशन येवण

२३ लोकसाहित्य प्रकाशन येवजण

**परिशदेच्या अधिवेशनाक उपाट जैत आंवडेतात**